# अवसर

(कविता संग्रह)

श्रीकांत पालसरकार




बिम्ब प्रकाशन

अवसर
(कविता संग्रह)
श्रीकांत पालसरकार

**Avsar**
Poetry Collection by
*Shrikant Palsarkar*

प्रकाशन क्र. **44**



पयली आवृत्ती
2006

छापणावळ
इम्प्रेशन्स
बी-2, 'अक्षर आर्केड'
3360/4, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - 590 002

अक्षर जुळणी
बिम्ब प्रकाशन

मुखचित्र
गिरीश नं. बोरकार

प्रकाशक
कामिनी किणी
बिम्ब प्रकाशन
जी.एस.बी.3,
हावसिंग बोर्ड कॉलनी,
पर्वरी - गोंय

मोल : 80/-

ISBN 81-902817-7-1

'पयलो चंवर' येवजणेंत गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान हो कविता संग्रह प्रकाशीत केला.

अक्षरज्ञान नासतनाय
ग्रंथसंपदा घरांत पुजपी
म्हजो सर्गेस्त बापूय
जानू
आनी तळतळट्या जिणे रणांत
स्वतःभाजून हुलपून
आपल्या मायेच्या चारवता सकयल
म्हाका केळी मोको सो
रसरशीत वाडयल्ले म्हजे आवयक
गंगाक
म्हजो हो पयलो काव्य झेलो.

# मना - देगेर

म्हाका अजून याद आसा जेन्ना म्हज्यो कविता पयले फावट पणजे रेडिओ केंद्राचेर प्रसारीत जाल्यो तेन्ना, म्हज्या वाठारांतले लोक खूब खूश जाल्ले. ते आपल्या वळखिच्च्यांक तो भुरगो आमचो, वाड्यावेलो, सोयरो, गांवचो अशें भुरकुटून सांगताले. फुडे जेन्ना गोंय दुरदर्शन केंद्राचेर म्हज्या कवितांचें प्रक्षेपण जालें तेन्ना आमच्या वाठारांतले पोटा खातीर हेर कडेन रावपी जायते जाण म्हाका मेळटगीत मोटे उमेदीन सांगताले "आमी सांगलें तो आमचो शेजारी, हें तें... तेन्ना ताची नवलाय आसली. आयज ती उरूंक ना."

म्हजें घर कुळवाड्याचें, आवय-बापूय अक्षरशत्रू, पूण बापायक धार्मीक ग्रंथांची खूप आवड, भगवद्गीता, शिवलीला, संतांची ग्रंथावली, काशीखंड, अशे साबार ग्रंथ आमच्या घरांत आसले. म्हज्यो व्हडल्यो भयणी चार पुस्तकां शिकलेल्यो, त्यो हे ग्रंथ वाचून आमकां सांगताल्यो. फुडें अक्षरज्ञान मेळटगीत हांवेनय तें कार्य केलें. हातुंतल्यान अन्याया आड लढपाची प्रेरणा मेळ्ळी, समाजांतल्या लोकांखातीर काम करपाची नदर मेळ्ळी.

म्हजें शिक्षण घेंवचे खातीर म्हाका पांच-ते स कि. मी. चलून वच्चें पडटालें. पुराय शिकप पायांचीं रोदां करूनच घेतलां. भर पावसांत, कडट्या वोतार रानवाट चलतना वाटेन म्हाका केन्ना एकटो सोडूना. दर एक पावला गणिक म्हाका सांगात दिला, जागयला, चिमटायला. हे कश्ट व्यर्थ वचूंक फावना, हाचें फळ जोडूंकच जाय हे जिद्दीन पेटयला. आव्हानां स्वीकारपाची आनी तातूंत जैत जोडपाची कुवत ह्या वाटेनच म्हज्यांत जलमां घाल्या. नोकरे निमतान धायेक वर्सां वास्को रावलों. मन सदांच बेचैन उरतालें. झाडां म्हाका सादयतालीं...

आपल्याक सोडून गेला म्हूण शिण्टालीं. हांवें वोगोत केलोना, येतां गो झाडानो म्हळें आनी तांच्या गोपांत येवन रिगलों. वास्को, पालसरच्या खेड्यांतल्यान यो वच करपाक त्रास जातात पूण हांव खूश आसां. कोणेय वास्को रावपाचें कित्याक सोडलें म्हूण विचारल्यार हांव मनपुर्वक सांगतां "मनशांचे गर्देत रावचे परस झाडांचे गर्देत रावप म्हाका चड भावता."

म्हजी पयली कविता जल्मा आयली हायस्कुलांत शिकतना. उपरांत णव्वेक आसतना 'चौर्यकला' नावाचें एक मराठी नाटक बरयलें चांदोबावेलें कथानक घेंवन. म्हजो इश्ट कै. सदानंद सतरकार हाच्या नादाक लागून हांव केरी ग्रंथालयाचो वांगडी जालों. खूप वाचन केलें, कविता सोडून. पालसऱ्यांत ल्हानपणासावन गोटणार जावपी नाटकां पळयलीं . चडशीं इतिहासीक. तांचो प्रभाव ताचेर जाल्लो. आयज ती संहिता म्हजे लागी उरलीना. कोलवा खोपींत वायटेच्या भकीक पडली. सुरवेक बरयल्ल्यो जायत्यो कविताय अश्योच ना नपयत जाल्यात.

तशें माड माडयांच्या माटवांत कुळागराच्या खळखळत्या पाटांत सवण्यांच्या गायनांत, वाऱ्याच्या स्पर्शांत भरिल्लें काव्य म्हज्यांत आवयच्या कुसव्यांत आसतनाच रिगिल्लें. फकत अक्षर ज्ञान मेळटगीत तें साकार रूपांत आयलें इतलेंच. गेल्या वीस बावीस वर्सांच्या साहित्य प्रवासांत अनेक तरेचें लेखन केलां. धा बारा एकांकी, धायेक पथ नाट्यां, दोन नाटकां, कांय कथा, निबंद, वेगवेगळ्या विशया संबंदीत लेख आदी, वेग वेगळ्या परिस्थितीत जीं आव्हाना म्हजे सामकार आयलीं हांवें तीं झेलल्लीं, पूण श्रेय घेवपाखातीर केन्ना धडपड केलीना आनी भांडवल करप तर पयसच उरलें. देखुनच जावये ह्या सामाजिक वावरांतल्यान लेखनाची स्फुर्त मेळ्ळी.

प्रसिध्दी खातीर केन्ना विशेश प्रयत्न केलोना, दुसऱ्याचें व्यक्तिगत, जावं साहित्यिक वो हेर कार्याचें अनुकरण करप म्हाका केन्ना मानवना. सुरवेक चुकून घडटालें. आतां मात हांव चुकून लेगीत चुकनां. मनांत हाडल्यार निदान पंदरा वर्सां आदीं म्हजें पयलें पुस्तक उजवडा येवपाचें. पूण म्हाकाच दिसतालें म्हजी कविता वयार येंवक ना.

आयज म्हजी कविता उजवडाक हाडून हांव कोंकणी कवितेंत एक नवो पाट जोडटां, कुळागरी उतरांच्या साज श्रृंगारान उपाट भरिल्लें काव्योदक

काळखाचें बांधे काडून कोंकणी कुळागराच्या पाटांत सोडटां हाचें म्हाका समादा
आसा.

नवे नवे कवी आपलीं पुस्तकां छापताले. सुनापरान्ताचेर छापून येतास
कवितेचें पुस्तक उजवडटालें. तेन्ना दिसतालें फाटी रावन हांव चूक करना मूं? हावे
म्हज्यो कविता चड प्रसिध्दींतय दवरल्योना, हांव काळखांत शेणना मू? पूण आयज
दिसता बरें जालें, आत्मपरिक्षण करपाक म्हाका हावें संद दिली, आयज उसर
जायना पूण -

नांवांपुरतें काम करपाक हांव हें करिना. म्हाका पुराय खात्री आसा हो
कविता झेलो कोंकणी कवितेचेर आपली छाप घालपा इतलें यश निश्चित
जोडटलो. योगा योगान म्हज्या दोन इश्टांच्या कल्याणाखातीर हांवें वेळग्यां 'सिध्दार्थ
बांदोडकार' उच्च माध्यमिक विद्यालयांत इकरावी बारावेचें शिकप घेतलें. थंय
प्राचार्य श्री. नारायण भास्कर देसाय हांच्या सहवासांत म्हजी कविता तांतयां फोडूंक
शिकली. तांच्या विचारांचो बरोचसो प्रभाव म्हजेर जालो. तांच्याच सहकार्यान
आनंद वनांत वचून बाबा आमटेच्या सहवासांत 'सात' दीस रावपाची संद मेळ्ळी.
म्हजे विचार विश्व व्यापक जालें. म्हज्यांतल्या बंडखोरान तांकांय जायत्यो पिडा
दिल्यात. पूण हे वृत्तीक नायलॉन ६,६ विरोधी आंदोलनाची बुनयाद घालपाक
ताणीच स्फुर्त दिली. ह्याच अणभवाच्या म्हालवजार बेचाळीस वर्सां गावडा,
कुणबी, वेळपांच्या फुडाऱ्यांक शक्य जालें ना ते जमात हक्क मेळोवन दिवपाचें
कार्य केलें. गाकुवेध महासंघाचो निमंत्रक ही जबाबदारी घेंवन सगळ्यांक पेटोवन
घालून केन्ना माचयेवेलें पात्र जावन तर केन्ना दिग्दर्शक, केन्ना मार्गदर्शक तर केन्ना
निर्माता, सुत्रधार तर केन्ना चायेंत घोळिल्ली साकर जावन जमात हक्क जोडून दिवपात
ल्हानशी भुमिका केली. ल्हानणपणासावन बंडखोर स्वभावाक पोसवण मेळ्ळी.
कुळागरी संस्कृतायेंत ल्हानाचो व्हड जालों. पयली कविता स्फुरली ती सुरश्री
केसरबाय केरकार हायस्कुलांत शिकतना. अन्याय, अत्याचार, अपमानाक शिंगां
दाखोवपाची वृत्ती. केरी फोंडेच्या गांवांत चारय वटयां दोंगरावण्टीनी वसलेल्या
पालसरें हांगा जल्म. थंय सावन पांच ते स कि. मी. चलून शिकपाक वचचें
पडटालें. एक दीस शिक्षकान वर्गात एका प्रस्नाची जाप दिलीना देखून रागान
म्हळें "फातर फोडीत हांगा येता तें कितेंय शीक मरे, काय तुजे तकलेंतय फातरच
भल्ल्या रे?" अशें म्हणून शिक्षकान म्हज्या काळजार फातर माल्लो... आनी 'तो

पळय उजवाड दिश्टावता'' ह्या म्हज्या पयल्या कवितेचो जल्म जालो. १९८५-८६ त आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर पयली कविता सादरणीकरण कार्यावळ जाली. ताचे उपरांत आकाशवाणी, दूरदर्शन - पणजी, सुनापरान्त ह्या माध्यमांतल्यान म्हजी कविता लोकां सामकार आयली. शिवाय कवी संमेलन, काव्य सर्तीनी खुप श्यो कविता सादर करपाची संद मेळ्ळी. पी.ई.एस. (आयचें र . सी. नाईक) महाविद्यालयांत शिकतना प्राचार्य डॉ. अरूण हेबळकार हांचें मार्गदर्शन लाबलें. भौ. श्री पुंडलिक नायक हाणी केन्ना लागच्यान, तर केन्ना पयसुल्यान साहित्य सेवा, समाज सेवा करपाक म्हाका सदांच स्फुर्त दिल्या. वासंतीक साहित्योत्सव जो आयज चलना, पूण एका काळार खूब नेटान चलतालो ताचो कार्याध्यक्ष जावपाची एक व्हड जबाबदारी खर मराठीवादी आशिल्ल्या (१९८८) अंत्रुजांतल्या केरी गांवांत घडोवन हाडपाक म्हजेर सोपयल्ली. त्या कार्यांतल्यान खूप शिकपाक मेळ्ळें.

गोंय विश्वविद्यालयांत शिकवपी डॉ. नंदकुमार कामत, डॉ. कोमरपंत, डॉ. हळर्णकार, डॉ. रोहिताश्व, डॉ. त्रिपाठी हांचें मार्गदर्शन आनी सहवासांत म्हज्यांतलो विद्यार्थी घडत गेलो. वाचनाचो म्हजो व्यासंग ल्हानपणांतलोच पूण हांगा शिकतना खूप वाचपाक मेळ्ळें.

म्हज्यो बऱ्योचश्यो रचना पणजी रेडिओ केंद्र आनी दुरदर्शनाचेर सादर करपांत म्हजे इश्ट श्री. अंकुश गांवकार, श्री. नंदा पालसरकार हांचें मोलाचें योगदान लाबलां. तशेंच हांवें म्हजें रचीत साहित्य उजवडा हाडचें देखून सतत म्हाका चिमटावपी म्हजे बरें मागपी इश्ट आनी म्हजी जिणे सांगाती हांचे इत्सेक फळ धरून कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर येवजणे आदारान हें म्हजे पयलें पुस्तक नामनेचे कोंकणी कवी भौ. माधव बोरकार हांच्या प्रस्तावनेची झालर घेवन उजवाडाक येता, आनी व्हड व्हड अणभवानी खूप खूप ल्हान जाल्लों हांवय बी उजवडाक येतां.

श्रीकांत पालसरकार

## आत्मसोदाची कविता

१९७० उप्रांत कोंकणी कवितेंत खूप बदल घडून आयलो. एक मोडूच येवन ताणे आरत्याचें परतें केलें. सामाजिक जाणविकाय हरशीं कोंकणी कवितेक अनवळखी नाशिल्ली. मनोहरराय सरदेसाय. र.वि. पंडित हांचे कवितेंत ही सामाजिक जाणविकाय कांय प्रमाणांत आयिल्ली दिश्टी पडटा. मनोहररायाली 'जायात जागे' ही कविता गोंयच्या भौसाक होरायत तर पंडिताली 'हांव गावडो' वा 'झिंगचे झिंगय' सारकिल्यो कविता गरीब दुबळ्यांची आवतिकाय वर्णिता. पूण हे दोगूय कवी भौसांतल्यान आयिल्ले न्हय. पंडित एकेवटेन चिड्डिल्ल्या माड्डिल्ल्यांचें वर्णन करता आनी तेच बराबर 'दर ना देखून उल्लां' हे कवितेंत खाकनवाळ जाल्लो भाटकार आमकां पळोवपाक मेळटा.

पूण सत्तराव्या दसकांत हें चित्र पुराय बदलिल्लें दिसलें. गोंयांत जाल्ले राजकीय बदल म्हळ्यार भौसाच्या हातांत गेल्ली सत्ता आनी ताच्या आत्म्याक फुटिल्लो आवाज कोंकणी कवितेंत गाजपाक लागलो. १९६० त ताची सुलूस बाकीबाबाले कवितेंत आमकां मेळटा. अंदल्ले ते मंत्र जिवीं फाल्यां उलयतले अशें ताणी म्हणिल्लें आनी गोंयची सासाय आतां जागी जाल्या ही शिटकावणी ताणी तिल्ली. 'शेणांतलो किडो शेणांत उरचो ना' ह्या प्रकाश पाडगांवकाराचे कवितेंत आत्मविश्वास आशिल्लो. पूण पुंडलिक नायकाचे कवितेंत आमकां assertive tone पयलेच फावट आयकुपाक आयलो. असल्या काळखांत / सूर्याची वाट पळयत / आमी तिश्टूचे नात / मनगटार मनगट घासून / केंण पडले बगर / बापायचें श्राध्द वाडचेंनात अशें पुंडलिकान म्हणून नव्या युगाच्या उदेवाचें ब्युगल फुकलें. आनी सगळ्यांक जाग आयिल्लेवरी जाली. आनी कोंकणी कवितेचो वझरो खळखळत व्हांवपाक लागलो. संजीव वेरेंकाराची वा ताच्या हेर समकालीन

कवींचे कवितेंत हो सूर खरपणान प्रगट जाल्लो आमी पळयतात.

कवितेचो इतिहास उस्तून बारकायेन पळयल्यार आमकां परंपरेचो धागो अतूट आशिल्लो दिसतलो. हे परंपरेचेर ती कविता पोसवता, वाडटा आनी फुलता फळटा. श्रीकांत पालसरकाराल्या 'अवसर' ह्या पयल्याच कविता संग्रहांतल्यो ह्यो कविता वाचून म्हाका कोंकणी कवितेचो हो इतिहास आठवलो. 'अवसर' हें कविता संग्रहाचें नांव ताच्या अंतरंगाची वळख करून दिता.

आज सराव खंय चे रानां
थांग जरी लागना मनां
बोंबलेच्या देठांतुल्यान
एकच धेंक मिरयतलो

आनी मुखार तेच कवितेंत कवी म्हणटा :

आयज वारें खंयचे दिकेन
तणा रोपल्या सांगचे ना तें
मळबाच्या कंठातल्यान
एकच धेक घुमतलो
घुमघुम वारो मागीर आयस पयस
फायची नुरा घडयतलो

अशे तरेचो आत्मविश्वास ही कविता व्यक्त करता. तेच भशेन गांवकार आनी रयत हांचे मदलें नातें पालसरकाराची कविता दाखयता. गांवकार आनी रयत हांचे मदलें नातें म्हळ्यार ताका 'एका काळखी काळाची सय' कशी दिसता, रयताचें घट्टण करपाचो काळ आतां फाटीं पडला अशें तो आत्मविश्वासान म्हणटा. अज्ञानाचो फायदो घेवन गांवकारानी भूंयपुतांक नाडले. तेन्ना हे मुखार रयत अशे नाडून घेवपाचे नात म्हणपाची शिटकावणी कवी दिता.

तुमच्या कट्टूलांतलें विधिलिखीत
तुमच्या करणेतल्यान जल्माक येता
हें जाणात व्हय तुमी?

असो प्रस्न तो विचारता. शिक्षणाचो प्रसार आनी ताचो समाजाच्या सगळ्या पांवड्यावेल्या लोकांक मेळिल्लो लाव हाका लागून जाल्ले जाणिवेंतल्यान वर्सासंखिनी अस्तित्वांत आशिल्ले समाजव्यवस्थेंत बदल घडपाक लागला. ताका गती

आयल्या. आनी तांतूतल्यान एक नवी समाज व्यवस्था आकाराक येता. कोंकणी कविता तिका गवाय आसा म्हणपाचें पालसरकाराची कविता आमकां सांगता. 'आज अवसर आयलोना जाल्यार / केन्नाच तो येवचोना अशे उद्‌गार हे कवितेक फुटल्यात. 'म्हजी वळख' हे कवितेंत कवी 'म्हाका वळख नाशिल्ली जाल्यार हांव ह्या संवसारांत नावारूपाक येवपाचो न्हय' अशें तो म्हणटा. एका अर्थान आपले कवितेंतल्यान तो आपलोच सोद घेता. आपल्या पाळांमुळां मेरेन वचपाचो यत्न करता. अशी ही आत्मसोदाची कविता.

पालसरकाराचे कवितेंत जसो बंडखोरीचो सूर आसा तसोच तरल भाव व्यक्त करपी सूर आसा. 'पावसाचो पयलो शिंवर' हे कवितेंत वाऱ्याची प्रतिमा नवो अर्थ घेवन आयल्या.

पावसाचे थेंब झेलीत पोराबाळां नाचता
जुवान वारो कृष्ण कसो
धर्तरेच्या कुंजवनांत रास क्रिडा खेळटा

हे वळींनी कवी वाऱ्याचे प्रतिमेक वेगळ्या अर्थाचें परिमाण दिता. ह्या संग्रहांतल्यो कांय कविता गिताचो घाट घेवन आयल्यात. आज कोंकणी संगिताक ताची खूप गरज आसा. पूण बरें गीत जातलें जाल्यार दुबाव विरयत कवीक संगिताची जाण आसप गरजेचें आसता. उतरांचेर सुरांचो ताण पडपाक जायना हाची जतनाय कवीन घेवपाक जाय. ताका सुरांची जाण आसल्यार बरें जातलें. पालसरकाराचे गीत कवितेंत ताचो उणाव दिसता. तो अभ्यास ताणे करचो. ते खातीर संगीताच्या शास्त्रशुध्द अभ्यासाची गरज आसना. एक कानमंत्र सांगतां. बरें संगीत मेकळ्या मनान आयकूचें. आमचे मांडे, धुलपदां, देखणी, धालो फुगड्यो ध्यान दिवन आयकल्यार संगीत उतरांच्या हातांत हात घालतलें. आमचो कोंकणी लोकवेद संगीतान गिरेस्त आसा.

'अवसर' वाचतकच दिसता : पालसरकाराक खूप वाट चलपाची आसा. ही वाट चलपाचें बळगें ताका ताचे जिणेचे अणभव दितले.

३० जान २००६
ग्रीन पिस हाऊ. सोसायटी
नागाळी ताळगांव ४०३ ००४

माधव बोरकार

# गैरुंव

आगा माथ्यार तळपतल्या सुर्या
गैरुंवाच्या म्हाल्यांतुलो
हांव एक किडो गा
काळजांत रानाची पालय जरी
माख माखून गैरूंव मेथो
झाकाळील्ल्या काळीज घरांत
किर्ण तुजें रिगना
तुज्या उज्यान हांव भाजून जालां पापड
पूण हें काळीज मातय धगेना
ही गैरुंव कवळ कशीच गा
काळीज आंगावेल्यान झडना
गैरुंव.....
म्हज्या काळजाक वर्केला
राप रापून दाटेला
तुजो उजवाड आसतनाय
हांव काळखाचो धनी जालां
हे उजवड्याच्या म्हाल्या
तुज्यान जाता जाल्यार
तुज्या उजवाडाच्या वाखरान
म्हजें काळीज खरपून काड
पूण एकदाचो म्हाका
मूक्त कर...
मूक्त कर...

# माड

हो माड पळय कसो
गरगरीत वाडला
धर्तरेंत मूळ धरुन
मळबा कडेन नातें जोडूंक
माड सोपणार सोपणां चडला.
माडाक गिड्डेंपण नाकां
माडयेचेर शेक गाजवंचो आपलो
आदलो मक्तो
माड कसोच सोडूंक तयार ना.
माड आयज भारार
ताचें पिकता दंवार
माड हालता धोलता
माड मिस्कुट्यांनी हांसता.
माडा दोळे वरशे
मळबा कुपांक भुल्लुसलेले
भुजां वावडून वावं भरून
माड भिसडयता आडेकडे
माडा मुळांक कल्लीता उंदीर
माड हड्डें बडयता पळय.
माडान जायतें केलें
जायतें भोगलें
मळब आफुडच्या हावेसान
उकत्या मळबांत मान वावडोन

माड पेंगता..
माड खर्शेला
निर्णेला
धर्तरेंत पांय रोमून
जगूंक आशेला
माडा मुळांत वाडपी
कवाथो मात
माडा कडल्यान खूब कितें शिकला.

# हे रूखा

हे रूखा, हे रूखा
पानां तुजीं उकडून खालीं
दीक माखून दूख सारली
पाळां तुजीं झरोन पिलों
ताळयो मारून वट्टां केलीं
चूल जळ्ळी
तुज्याच आदारान सजयलें घर
केन्ना खर्शेलों
केन्ना घामेलों
सगळो शीण तुवेंच न्हिवयलो
हे रूखा हे रूखा
निर्मळ वारें निर्मळ उदक
सुपीक जमीन सुवाळी जीण
सवर्णी, सुकर्णी जनावरां
तूं म्हण दिसता संवसारांत
हे रूखा हे रूखा
तुजे विणे जायना म्हज्यो जल्म क्रिया
जायना म्हज्यो मर्ण क्रिया
जल्मा पासून अंता मेरेन
हांव तुजो पागी
मोल करून तुज्या त्यागी सेवेचें
अवमान करीना उतरांचो
तुजी पाळां-मुळां जपतलों

कुळी-कुळी राखतलों
हेंच म्हजें वचन तुकां
हे रूखा, हे रूखा.

# दोंगरार

दोंगरार चडटना
वाकडे तिकडे वाटेन
रान वाऱ्याचे धुंदेर
रुखां दिता येवकार
सवर्णी गायता गीतां
हांगा एक वेगळें जग वसलां.
मन जाता पिशें...
दिसता हांगाच रावंचें
घर बांदी नास्तना
माथ्यार निळें मळब
पांयांक मातयेचो स्पर्श
नितळटना घाम
रूखा म्हणटांत पुरो जालें...?
यो बस म्हजे सावळेंत,
तेळ हो पांचवो म्हाल...
हड्डें भरून घे
हो सुरबूस वास
दोळे धांपून घे घोंटून.
किण्ण शांत...
उबो रावन पळय...
सकयलो कॉंक्रीट मळो
थंयचो जीव घुस्पटावपी कलकलो.
मनांत प्रश्न उबो
सांग कितें शिकलो?

# पावसाचो पयलो शिंवर

झर ऽ झर ऽ झर ऽ झर ऽऽऽ
सर ऽ सर ऽ सर ऽ सर ऽऽऽ
मळब सरसरता
मळब झरझरता
थेंबा थेंबान
पयलो पावस....
सड्या कायलाटो चळचळता
हाय हूय करीत माती, तापलें आंग
न्हिवयता गंध परमळ उस्कारता
थकलेले सुके दोळे लिकलिकून हांसता
पावसाचे थेंब झेलीत पोरांबांळां नाचता
जुवान वारो कृष्ण कसो
धर्तरीच्या कुंज वनांत रास क्रिडा खेळटा
आंब्याच्या ताळयांनी माकोड कुडकुडो काडटा
बेब्याच्या मुझका तालार धर्तरी पयलें न्हाण न्हाता

# धेक

आयज सराव खंयचे रानां
थाव जरी लागना मनां
बोंबलेच्या देटांतुल्यान
एकच धेक मिरयतलो
सराव मागीर तनां-मनां
सगळीं रानां जागयतलो
खंयच्यो न्हंयो खंयचीं मुळां
भांग जाल्या दर्या मनां
दर्याच्या हड्ड्यांतुल्यान
एकच धेक गाजतलो
गाज मागीर जळा थळा
सगळ्या मळां जागयतलो
भल्लेल्ल्या तळ्यांक आयज
तूंब काळखांत नासत वळख
काळखाच्या उदरांतल्यान
एकच चकचक फुट्टलो
उजवाड मागीर तळा गाळा
सगळ्या तळ्यांत परजळटलो
ह्या वडाचीं कितलीं पानां
नदर सांडल्या पाचव्या कोरांत
पाळांच्या नाळींतल्यान
एकच धेक धुंवरतलो
धुंवर मागीर पानां पानां
वट्ट हिशेब मांडटलो

आयज वारें खंयचे दिकेन
तणां रोपल्या सांगचे ना तें
मळबाच्या कंठातल्यान
एकच धेक घुमतलो
घुमघूम वारो मागीर आयस पयस
फायची नुरा घडयतलो.

# पोपाय

कोणा कदीम काळार ते कोणतरी
सातां समिद्र पालाटून, तारवार
सुंवारून आयिल्ले
अबर्गती जनाचें ताणी पाणी जोखलें
आनी तांच्या दारांत आपल्या सपनाची
रोपी ते लावन गेले.
आपल्या कर्तव्याचें धंगण नाशिल्ल्या
अबर्गत जनानी आपलें तें गांडीपोंदा
मस्तीलें परक्यालें तेंच भांगर
मानून ताका लाडान वाडयलें, पोसलें
हांच्या मोगान ती रोपी घरघरीत वाडली
ह्या मातयेचो काळीज स्पर्श नाशिल्ली
ती रोपी...
पोपायच ती !
घरघरीत वाडली तशी फुल्ली फळली
लाग-भाग न पळयता आमी तिच्या
कुचकुचीत फळांक लाळेले
आनी तीं पांचवीं फळां आमच्या दोळे भर जालीं.
आज पोपाय वाड वाडल्या ताड माड
फळांचो तिका उरलो ना सुमार
एकूण सगळोच असो वाडला भार
पाडसार झेलपी पोपाय पळोवन
अबर्गतीचीं काळजां कलकल्ल्या

दोरां कुराडी घेवन ते मुळांत जमूंक लागल्या
पूण तिच्या फळांची चख लागिल्ली
तांचीं तार्ती पिलां तिच्या मुळाक वेंगांतल्यान
सोंडूक तयार ना. आनी...
हे थंयचे थंयच सुकल्या.
आरे सभाग्यांनो....!
पळयतात कितें ...?
ही पोपाय बेणूकय जमचीना
आनी कापूकय जावचीना
तिका उपाय एकच
तुमच्या अबर्गती रगताचें सगळेंच
उदक जावंचे आदी
घालात एक मुखी उलो तुमच्या
आत्मशक्तीक...
येवंदी वारें स्वतत्वाचें
झडूं दी केणां स्व दायजाचीं
उठो दी मोड निज मातयेचें
सळसळून येवंदी तुमच्या रगताची
औरां ... मागीर पळयशात तुमी
ह्या ताड माड पोपायेचे करगंळी भर
पाळूय तुमकां हे मातयेंत दिसचेंना,
आरे कितलीय वाडली
तरी पोपाय ती पोपायच.

# खेडे गांव

दोय बाजुंनी उंच दोंगराकडे
उबे जशे गांवचे राखणे
पांचवेंचार घेवन पांगरूणें
थंड शितळ हांगचें वारें
हांगा नितळ उदका झरे
भायरच्यान सामको खडपाळ
भितरल्यान तितकोच म्होवाळ
जसो काय एक नाल्ल
येताना लागता चढण
मागीर काळीज देंवण
पळोवन सर भोंवतण
मन जाता भोंवर
कितें वर्णुची हांगच्या
कुळागरां सोबाय
माड माडयो केळी
मिरवेली आनी पानवेली
मर्दी सोबता तोरींग बाय
सकाळ जातांच कोंबड्यांसाद
पाटांत उदकाचो सळसळाट
झाडापेडार भुर ऽ भुर ऽऽ
सवर्णी करतात कलकलाट
मनीस हांगचे माड कशे

मोगान भल्लेले म्होवा शिसे
शेंदरी मागल्यार हातरी दितले
उदक मागल्यार च्याय पिवयतले
कुळार हें संस्कृतायेचें
गोंयकारपण हांगाच सोदचें
जिवीत हें खेडे गांवचें.

## आमी वावराडी

आमी वावराडी, आमी वावराडी
फटें कुदळ, पिकास फावडो
आमचे वांगडी
किल्ल कांतने कोयतो, कुराड
कोयतूल आदोळी
नागर गुटो बैल जोडी
येंव पावस तापूं वोत कडकडू थंडी
आमी सदांच वावराडी.
यो दिसा भर पोटा
हींच आमचे जिणे गार्णी
चूल जळ्ळीना तरीय
घेयात तुमी विडी.
रेब्यांत आमी राबता
चिखलांत आमी माखंता
हुमेचें घालून सारें
मातयेंत भांगर पिकयता
जगवण सगळ्यांक भेटयता
आपल्या पोटाक बांदून वेटो
दुसऱ्या पोटाक आधारता
पडले तरी ना रडपी
मोडले तरीय हांसपी
आप सुखाची खेळोन होळी
खाल्ल्या पाना जागपी.
आसुं भिरांत फाल्यां उठपाचं

आमची बा आमकां दिसना परकी
फकत वार तुटटा सासणाची
येत मोड बुडत शेतोड
सुटून वारें लवणत माड
पडत दुकळ उबत धुल्ल
सुकुन आत्रो झडत कात्रो
धीर सुट्टा खिणाचो.
चेंपणा हजार माथ्यार तरीय
माथेंवयर उबारपी
हाडां जोडां करकरायत
परत वावराक जुपपी.
आमी वावराडी....

# पावशी कूप

कचकचून भरिल्लें
पावशी कूप तूं
घसघसीत रकतलें
आत्तां....
दिवलेंतल्यो मंद तेवपी
वातीश्यो दोळे तुजे
चाल तुजी थपय थपय...
वाट सोदता म्हज्या काळजांत पावपाची
पूण तुज्या दारांत एक कावळो आसा
कॅरांव ऽ कॅरांव ऽऽ
ना तर म्हज्या अंवसर वाऱ्यान
तुजें कूप केन्नाच वितळपाचें
घस घस पावळ्यांनी....

# मस्तें चान्नें

मस्तें चान्नें किट - किट्टा
चद्रीम हो संवंग सामकें
कुपांआड सावन नदर मारता
काळीज ओगीच कलकलता
म्हज्या रंद्रा रंद्रात पसवलां चान्नें
दोळ्यांत तारे लिकलिकतात
किडी ह्यो सुबेज सामक्यो
मुद्दाम कान किटयतात
पावलांक ओड आंब्या मुळाची
आंबो आपले खांदे पसरावन
म्हाकां वेंगोक रावता .....
आंब्या मुळांत हांव ....
ताच्या गुप्प काळखांत
पानां सळसळटात.....
आंगावेल्यान शेणलेंली वस्त्रांशीं
कुपा आड जाल्लो
चंद्रीम म्हज्या गोपांत.
आंब्याच्या गुपकाळखांत
हांव चान्नें न्हातां ... बेभान...

# तुजी चीट

तुजी चीट म्हजे खातीर
मिर्गाचो पयलो शिंवर
माथ्यार कूप फुटूं-ना-फुटूं
नवे सुलूसीन मन जाता पिवर
तुजी चीट म्हजे जिणे मीठ
अळसणली जीण पळोवन वाट
केन्ना येत... ना येत
जाळटा दुबावाची कीट
तुजी चीट म्हजे खातीर
अमुरपिकी चींच
लाळेल्या दांत, आशेल्या जीब
रुच तिची घेवचे उमेदीन
तुजी चीट म्हजे खातीर
आटी मोगऱ्याची
तिश्टता हांव हुगूंक परमळ
परमळ जावन जियेंवचे खातीर.

# मना ल्हार

माथ्यार सूर्य कडटा
रस्तो कायलशी तापला
एक तरणाटें ल्हार
येता खळखळत
फेसाळत, सळसळत
वता म्हज्या माथ्यावेल्यान
हांव ओलो चींब
भर दनपारां चान्नें न्हाल्यावरीं
उल्हासीत.....
तोंड उगडें.....
आंगा पांगा थरथर
जाय जायशी!
लाचारी आशिल्ली नदर
खंय शेणली .....
नदरेंत ल्हारां ऽऽ
म्हजें मन सुंवारलां
त्या ल्हारांर
व्हावता फेसाळत खळखळत
सळसळत....
अंपंगूळ मन दोन पांयार उबें
नाच नाचत, उडणां मारता
आनीक एक अमुरपिकें ल्हार
आतां आनी राव नज ....
चित्त ना थाऱ्यार

भूर ऽ भूर ऽऽ
नाचता वाऱ्यार
जिणेचे रंग लुटीत ....
खणण ऽऽ एक नाणें,
अभद्र पायांकडेन ...
जाणिव घामाची, ओताची, तापल्या
रस्त्याची, आनी पांयाच्या लुणाचीय बी
आनी हांव लाचार हासत भानार येता....

# कोण जाणां कित्याक

तुकां एक नाद लागला
म्हाका फटोवपाचो
हांवय नकळों कसो
म्हाकाय एक नाद लागला
तुका सतवपाचो
तूं म्हजी राणी
देखुनच
हांव काडटां तुजेरच
म्हर्जी रागणीं - पिडणीं
न्हिनळटा तुकां सणसणीत
बोंबले देटांतल्यान
करतां तुजो मोग
आनी रागय बी.

***

म्हाका खूबदां दिसता
हांव शिकुनय अनाडी
विचारांची आसुनय भुती
तुका समजावपाक
हांव वापरतां शक्ती
तुज्या गालार उदेल्लीं म्हर्जी बोटां
हांसता म्हाका कुयो घालीत

तेन्ना हांव सापच निर्बुध्दसो
दिसूंक लागलां.
मागीर हांव चिततां....
अनभवीपण
सुशिक्षितपण
ह्यो फकत पुस्तकी व्याख्या व्हय...?

***

तूं म्हजें जालें
हांव तुजो जालों
तुंवेन सोपयलें आपल्याक म्हज्यांत
हांवें सोपयलो म्हाका तुज्यांत
आयज हांव-तूं हो भेदच उरलोना
ताची जाणीव लेगीत सोसना
हुलप पेट्टा मस्तकाक
थोड्याशा अंतरान लेगीत
आमी एकरूप
एक कूप

***

म्हाका तूं खूब्ब जाय
कितलें
सांगपाक उतरां नांत
तरीय तुकां हांव सांगतां

म्हाका तुजी गरज ना
पर्वा ना, तूं म्हाका सोड
कित्याक .....?
म्हजें म्हाकाच कळना.

***

आयज मेरेन
तुवेंन म्हाका सांबाळ्ळा
दर खिणां
दर पावला
आयज मेरेन
हांवेंन तुका रडयलां
दर खिणां
दर पावला

# एक चूक

तुवें म्हजी इल्ली चडच
अपुरबाय केली,
फावताली तुका, पूण तुवें दिली म्हाकां
म्हजी गरज वाडली
आता तूं दिता ताचे परस
म्हाकां चडच जाय पडटा
तुजे भशेन तूं खूब्ब दिता
म्हजी भुखय वाडत आसा,
वसवसो जालां हांव
तुजो दुराव सोसना मातय
तुज्या दिवपांतलो उणाव
खपना इल्लो लेगीत
आतां दिसता
खंय तरी चुकता
जांव तुजें जांव म्हजें
पूण चुकता इतलें खरें.

# समजिकाय

तुवें म्हज्या केंसांत बोटां घुसळावप
आनी तापिल्लें मस्तक शांत करप
हांवें तुकां वेंगेंत धरप
आनी तुजो राग न्हिववप
मागीर कांयच जावंक
नाशिल्ल्या भशेन
खळखळ घालीत
उलोवप
अशे प्रसंग जायते फावट
आयल्यात
देखूनच कांय वेळां
हातांतलो हात सुटून लेगीत
आमी एकच उरल्यांत
हाकाच म्हणटात व्हय
समजिकाय ....?

***

तूं पिशें
म्हजे असल्या राकेसी दादल्याक
तुवें देव मानलो
हांवें मात रेबट मानून
दर खिणां
तुजो अपमानच केलो.

***

म्हज्यांतल्या अवगुणांक
हांव चड आनी चड वाव दितां
तेन्ना कोणेंय बोट केल्यार
हांव फाट करतां
चुकून केन्नाय गुणाक वाव दितां
तेन्ना कोणें काय म्हणनासतनाच
हांव हड्डें फुलयतां.

***

# अंदल्लें मन

तुजी मूर्त पुजल्या काळजांत
सागूंक तुकां लजनां
तुजे खातीर सोसले घाय
खपली काडूंक मन येनां
मनांत आसून जनांत ना
निळसार मळब दोन बोटांर
पूण पयस कितलें अदमास ना
तूं जय कळसा घुडी
हांव थंय सपणां पायरी
उडूणां मारूंक आशेतां
भियेता फायचें चित्तनां
खूब दिसता तुजें विशी
पूण मन उक्तावंक जमनां
अंदल्लें मन हें
मोकळें जावंक वाट ना
हें म्हजें लाचारपण केन्ना सोपत खबर ना
देखून म्हणटां गुलाबी वाटेर तुज्या
कणेरी काटो जावन रावप म्हाका सोबना

# तूं आयज जाय आसलें

गंध फुलांनी सजल्या वाटेंत
मन धूंद परमळान चंवरतना
मना गाब्यांत जावपी कातकुल्यो
अणभवंक तूं आयज जाय आसलें.
पुनवेची जोरगत अशी
पावलां पावलां वाडटना
लाख नकेत्रांचे दिवे झिगी-मिगी
खेळटना मनांत उदेवपी चान्याची
गोडी चाखूंक तूं आयज जाय आसलें.
दोंगराच्या माथ्यार सूर्य भांग भरतना
सवण्यां भिऱ्यांचीं गायनां
दवाची ओलसाण, उनउनश्या किरणांनी
झाडां उबेक शेकतना मनाक अणभवतली
उर्बा आस्वादूंक तूं आयज जाय आसलें.

# तुजी चूक

तुज्या उल्याक हांवें साद दिल्लो
फकत तो ओंठार आयलोना
इतलेंच ....
तूं म्हाका जाय आसलें सासणाचें
पूण तूं दुसऱ्याल्या पोरसांत पाविल्लें
देखून तुकां कळयलेंना.
तूं मर्दी-मर्दी हात फुडें करतना
म्हाकांय तो घट्ट धरचो आशिल्लो.
पूण तुवेंच ....
हांव मागीर पयस - पयस जायत उरलों
आतां तर खूपच...
तेन्ना तुकां हांवें फापशिलें
आक्रस्ताळ्या उतरांनी,
तुज्यो वेदना म्हाकाय भोगिल्ल्यो
पूण आतां तूं पुराय परकी जालां
तरीय अजुनय....
म्हज्या सुखा दुख्खांची नांदी
तुज्या दोळ्यांत
अजून तुजें चित्त म्हज्या मागार
अजूनय...?
मागीर तुवें चूक केली अशें तुका
दिसना....

वाट बदलचे पयलींच विचार
करपाचो....
मेल्ल्या मडयार रडप हो रिवाज!
शाणेंपण न्हय...

## रात

रात गळटा पानां पानान
धरणी उस्करता गे बाये
काळखाच्या दिग्ग वेंगांत !
रात रंगयता विडो
आंथरूणार सोशेता गे बाये
हो वयावेलो चेडो
रातीक ना साबुध्द्
सगळी कडेन शांत-शांत
फकत किण किण काकणांची
श्वासाची धग जाळटा रातीक
रात अशी पेट्टा आंगापांगान
कणा कणान येता भारार
भारश्वासाचो धगधग फार
हळू हळू शांत शांत ....
रात लागली उतरणेक
गुडांत जालो कुलकुलाट
खोखले म्हातारे खाक खाक
मागीर जिळी मिळी उजवाड
उजवाडांत संवसारी तोंडां
तृप्त हांसरी...
वयावेली ओडलेली....
म्हाताऱ्यांची दारांतल्या तुळशीवरी
भुरग्यांची पोरसांतल्या फुलांवरी.
दीस चडत वता तशी
रात दिसाची जाता सावळी !

# चित्त भार

आयज सकाळीं फुल्ला चंवर
मना तळ्याचो हाल्ला काठ
हिदळ आकांत.....
हे रे रातीच्या सपन शारांत
मना पड्ड्यार चित्रतां चित्तभार
फांतोडीच्या काळीज विणेंतल्यान
मुग्ध विणेचे फुट्टा सूर
मनरंग सांवार ...
भिजून अतरंग दवथेंबान
पिंजरलां दर रंद्र - रंद्र
अथांग तान...
घोटीत चल्ली रगत कण कण
आतां न्हय रे थार...
न्हय रे थार...
न्हय रे थार...

# रेवेंतलीं पावलां

सांज वारें खेळटना
तूं मनां गांठी अचळय सोडटना
तुज्या म्हज्या नात्याची गांठय तूं सोडतलें तेन्ना
दर्याच्या पोटांतल्यान फुलत
घसघसत येवन दर्या देगेर चक्काचूर
जावपी ल्हारांत तूं म्हजें अस्तीत्व सोद...
दर्या देगेची सोबाय तोखेत
रेंवटांत चलपाचो आनंद घेत
मनांतल्या मनांत रिगतना
रेवेंत शेणलेल्या पावलांनी
तूं म्हजें अस्तीत्व सोद...

# नवी वाट

आयज परत एकदां
मनाक पयले वरींच आकरी फुटली
शिरंतरांनी साठवल्ली हुनसाण
आंगभर सळसळ्ळी
एक उर्बाशी जागली
उमेद फुरफुरता तनां - मनां
कोण जाणां कित्याक
पावसाळे झेलून लेगीत
पयले पावशेक लागपी आस
परत एकदां जागली
पांयांत आयज नवी तरतरी
वाट चलपाची
कितल्योश्योच वाटो सोडल्यात
कांय सुटल्यात.....
ही नवी वाट ... कितें जातलें हिचें ...?
तड? काय फकत भर ...?

## हे वाऱ्या

हे वाऱ्या आयज म्हज्या मनाक
खंयतरी घेवन वच
पयस पयस ...
ह्या फटींगाच्या जगांत
जगतना तें सामकें हुल्पलां
मन विटलां
मना कापूस उडटा वाऱ्यार.....
देखून वाऱ्या
ह्या म्हज्या मनाक
घेवन वच पयस पयस ...

# जमीन जाय

हांव एक अस्पर्शी
म्हज्या दोळ्यांत तान
जीण स्पर्शुपाची...
आयजवेर यत्न असफळ
भियेतां जीण जगून लेगीत
जिणेंक अस्पर्शीच उरत !
यत्न चालू आसात अखंड
पूण निसरता दर खिणाक
निसरता म्हूण भिना हांव
पूण परत उबो रावूंक
म्हाका म्हज्या पांया पोंदा जमीन जाय.
यूग म्हाका सादयता
म्हाका तें स्पर्शूंक जाय
लक्ष्य म्हजें धारे पार
म्हाका तें जोडूंक जाय
लाख सपनां आसात
सपनांच्या जगांत शेणलां हांव
कर्म भुंयेचेर देवपाक
म्हाका म्हज्या पांया पोंदा जमीन जाय.

# कोंकणीची पालखी

पोटाचे वाटेर रे
आमी सगळे सांगाती
ना कोण कोंकणी आनी
ना कोण मराठी
अर्दी घालून कोंकणी
कोण शिकयता मराठी
अर्दी घालून मराठी
कोण शिकयता कोंकणी
पोटा खातीर देवा
करता ह्यो राटी
ते जाणार, जाणून भुजून करतात
ह्यो पातकाच्यो राशी
कोंकणी माये तूं तांकां भोगशी
पोट भरता कोंकणी तरीय
काडटा तिच्यो इस्ती
कोण म्हणटा तिका ना व्याक्रण
कोण म्हणटा तिका ना लिपी
कोण म्हणटा तिची उतरावळ म्हळ्यार
जमा केल्ली भूतावळ
अशे हे कोंकणी मनीस
कोंकणीतच सांगतात
आमकां उलोवंक येना कोंकणी
अशी ही कोंकणीची पालखी
कोंकणी मातयेंतच चल्ल्या
तिची दुर्गती.

# हांव

हांव आयज बदल्ला
भायल्यान.
भितर आदलोंच तस्सो.
आदी हांव खूब उलयलां.
फक्त म्हजें जिवीत सोडून
बाकी सगळें सांगून गेलां
भीड मुर्वत न धरतां ...
लज दिस म्हाका
पोटाची लज राखूंक
माथ्यार लाकडां भरो पेलपी
भोरेकान्नीलो हांव पोर,
कोलवाच्या खोपींत
रचपी कवीत आनी
शारांत गाजवपी नाट्यां, हें सांगून
हड्डें मोकळें करपाक.
देखून हड्ड्यार भरो
घेवन जगलों आयजवेर...!
कुळागरांतलो व्हाळ
गांव शिमों हुपून
न्हंयच्च्या प्रवाहांत
भरसून दर्याक
मेळचो तसो हांव...
हांव खंयच नमना

भीख पयस उरली
कोणाचें दानय घेना
हांव मेळयतां फक्कत
हक्क, आनी तो मेळवचो
आसा म्हाकां हक.

# कित्याक कोण जाणां

म्हाका परकेपणाचो वास
लेगीत सोंसना
तुमच्या अंतस्कर्णांत म्हाकां
जागो दितनां शंबर फावट
चिंतल्यार जाता
मागीर मात....
कित्याक जाणां?
हेर परकेपणान वागल्यार चलता
पूण आपल्यांनी ....
देखून म्हणटा, म्हाकां आपलो
म्हणचे आदी संद आसा ...!

# एक दीस !

एक दीस असोच विटून
संवसाराक फाट करून
चलत राविल्लों दोळे धापून
दोळे उगडले तेन्ना ....
भोंवतणी रान दाट ....
झाडां झिलां ताड माड
वाट सोदूंक घराची
धांव धांवलों
शेणलेलें गोरू जावन
हांव हांबेरलों ....
ना जाग, ना माग
एकलोच शेणलों रानांत.
दीस गेले, म्हयने सरले
वर्सां सरलीं साबार
हेडत आसलों सोदीत वाट ....
दोळे धापून चलपाची
चूक आतां होलमल्या
पूण वाट पांयांतल्यान सुटल्या ....
कशीच गवसना ..
दिसलें सोंपलों ...
घ्यो ऽऽ घ्ये ऽऽ
पयसल्यान राखण्या साद
शेणलेल्या गोरवांचो घेयत माग
हांवें कान तटासले ऽऽ.

## मन म्हजें

मन म्हजें अशें
घरांतले मांदे
आनी पाटांतले बांधे
मन म्हजें ......
मळबांतलें सुकणें
दर्यांतले शिपले
मन म्हजें ......
पुनवेचें चान्नें
मेस्ताचें इंदें
मन म्हजें ......
रांदनींतलें कातनें
खतखत्यावेलें धापणें
मन म्हजें ......
न्हयचो सळसळशें
वाऱ्याचो सरसरशें.

# म्हज्यांतलो हांव

हांव उलयतां
तो आयकता
हांव चुकतां
तो चिमटायता
हांव आयकतां, पळयतां
तो तिजोरी भरता
हांव मोनो जाल्यार
तो म्हजे कडेन उलयता
म्हज्या गूण अवगुणाची
दर कर्माची नियाळणी करून
म्हजीच पुराय वळख म्हाकां घडयता
केन्ना हांव ताका प्रस्न करतां
तो योग्य जापो दिता
केन्ना तो म्हाकां प्रस्नानीं
जार करता
हांव जापो दिवन थकतां
केन्ना हांव हांसतां, रडटां
तेन्ना तो तिरायत जाता
केन्नाय तोवय तातूंत सामील जाता.

# हांव चलतां

आयज काल सगळेच
धांवपाक लागल्यात
एकलो दुसरो तिसरो
सगळेच
हावेस ... फुडें पावपाचो
ध्यास धांवणेचो
वाटो हजार
पावलां साबार ....
धांवतल्यां मर्दी सर्त आसा
फटवप, धुकलप, पांयार पांय दिवप
दुस्वासी खेळ खेळप
म्हज्यान हो आसुरी खेळ खेळूं नज
हांव थांबलों म्हजे पुरती सर्त सोंपली
पळोवप्यांक दिसलें हांव खर्शेलों,
ते पळयताले आतां धांवतलों मागीर....
पूण हांव चलतां .... धांवप सोडून
पळोवपी अजाप !
हो शेणलो .... तांचें मत
पूण हांव चलतां .... म्हजें मत

# चलतां चलतां

जिणेची वाट चलतां चलतां
अर्दे वाटेंरच हांव खर्शेलों
युगां वाट चल्ल्या वरी
हात पांय सोडून पातळ्ळों
उगडास आसा वाटेर असोच
कोण तरी मेळिल्लो
तो आपलें काम करून गेलो
हांव आदाराची वाट पळयत उल्लों
सरलो दीस पडली रात
कळ्ळेंचना कशी केन्ना
आतां रातीचो काळोखच
म्हजो आदार जाला वाट पळोवंक जाय
हड्ड्यांत फांतोड फुटसर
निर्शेणेच्या काळखाक चिरून
नवीं किर्णां फुटसर

# नवें जग

म्हजे जिणेंत हांवें नवें जग
अणभवीत सावन
म्हजें पिशेंपण म्हाका होलमलां
चढा-ओढीचे सर्कशींत
पावल दवरीत सावन
दर पावलाची जतनाय घेवंक शिकलां.
सामकार उबी नवी जीण
सांगू नज हे नवे जिणेंत
हांव परतून पिसो थारूयें ....
शाणेंपण - पिशेंपण काळ थारयता
आनी तो तर बदलत आसता
घडी घडी .......



अव

# म्हज्या भुरगेपणांत

घराच्या आडेकडेक उबे आसले
माटव घालून आंबे, पणस, आंबाडे
म्हसकाचो वखदी रुख, वट आनी बिरंड
दारांत आसलीं जायो - जुयो आबोलीं
कणेर, दसण, शेंवतीं आनी सदाफुली
घरा कुशीक आसलो गोटो
तातूंत चार गायो,
शेणावासाची जमीन
शेडीच्यो रंगीत वण्टी
भितोड्यांनी रंगताल्यो कुटुन्यो
मातये शाळेच्या मोकळ्या मळार
रंगताले खेळ हुतूतू आनी कोंयडेबाल
घरा कुशीच्या दोंगरांनी
सुट्टालो फळां फुलांचो घमघम
चारां, चुन्नां, जांभळां, आंवाळो
काण्णां, कणेरां, पिटकुळीं
आसाळे ओंवळी फळां, भेडसां
फाताराळे फळां, आंबटा
भेडशी फळां, मुट्टूलां, बिबे
घोटकां आनी खश्टां आनी चिरपूटां
माती उस्तून खाताले आमी
जिरमुले कारांदे
रुच घेयत चाबडायताले
रानकेळीं, हरपुलीं, टुटटुट्टा

फागलांची भाजी बरी रुच वाडयता गोश्टां
शिंया दिसांनी सूट परमळ
कांदळां, ओंवळां, सुरंगाचो
धर्वी चाफीं, भुंयचाफीं,
नागचाफीं, हळदुर्वी चाफीं
थंडी गुलाबी रंगली तशी
गोरवा बांदताले गोठाणीर, मुगां उसळ
चण्यां उसळ, आमची पिकताली फसल
पोटांत वळ्ळें किरायतें
दंत जाले अडुळसो
पेरी कोंबऱ्यो
कुळागरी तारवटी मिर्सांग
मुट्ट्या कचकय रंगयताली
पानवेलीचीं धर्वी काळीं पानां
तांबड्यो पिको चमकयतालीं
मिरवेलीचीं मिरयां गांवठी कुल्ल्यां
हुमणा रुच वाडयतालीं,
पावस सोपून धेंडलो येय
एक नाल्ल, पडभर तांदूळ घेय
भेंडां हालोवन आमी वांगडी
धेंडल्या गितां फूलय
जात्रां काल्यांक कितें रंग
बोकडयो, शब्दो, फातयांत सोब
पिंजरी तिब्यान कपळ सज
दर घरांत देवी अवतर
गिमाळ्यांत .....

शबय शबय
धोल ताशे बडय बडय
पांच दीस मेळ खेळय ....
आयज कांयच उल्लेंना !
घुमंटाचो ताल ना
कासाळ्यांचो झांज ना
फकत उरलां यादी ओंवळ
सुकलां तरी परमळटा
अजून लेगीत परमळटा ....

# बंदीस्त

सगळ्यो सीमो आवळून
अंदून हांव बसलां !
म्हाका कांयच दिसना
कांयच सुचना ...
हांव फकत उरलां म्हजे खातीर
म्हजें विश्व
बंद किवाडाचें
बोबो हुयेली
आकळाप, विकळाप
जंय वण्टीचेर आदळून परततात
म्हजें जग सुखाचें....?
दुखाचें ...
हय हांगा सुखय आसा !
शिवाय जायते प्रस्न
म्हजे म्हाकां
तातूंत हांव
बंदीस्त ...
कोण जाणां दोंगर दर्याकडल्यान
येवपी वारें गांवां शारांतल्यान
वाट काडीत कवाड भेदून
बंद कुडींत केन्ना रीगत .......
केन्ना.......?

# मदलो हांव !

ना धड जमीन ना मळब
वयर न्हय सकयल न्हय
असो हांव मदलो हांव
सकयल्यान येता तें वयर पावय
वयल्यान येता तें सकयल पावय
हेंच म्हजें काम
वयलें जग सकयलें जग मदीं हांव
दोनय जगां म्हाका वळखता
पूण हांव कोणाचोच न्हय
ना वयलो ना सकयलो
देखून मदलो हांव...

# तुमी आनी हांव

तुमचे सारको जावंचो
म्हूण हांवें जायते यत्न केले
तुमच्या पावलाक पावल जुळयलें
फाटी रावपाची स्वाभाविक सवंय
नडची न्हय म्हूण.
तुमी कोणाचीय खरड काडून
खळखळून हांसले
तर हांवय व्हाळ सो खळ्खळ्ळों
म्हाकां खूब कितें कळिल्ले भशेन
तुमी कुलेरांनी जेवले म्हूण
हांवें कुलेरांनी खाण खेळयलें
आज तुमी हातांनी जेवतात
आनी हांव कागदान तोंड पुसतां
दातांतलें उश्टें घेवन वाळू पेंचून हांसतां
तुमी भाशण करी
हांव ताळयो मारी
आतां म्हाका तुमचीं खास आमंत्रणां येतात,
ताळयो मारपाचीं.

# हांव वाटून गेलां

हांव जल्मा आयलों
एक स्वतंत्र अस्तित्व घेवन
बापायन म्हळें म्हजो बापूय
जल्मा आयलो...
वाड्यावेल्यांनी म्हळें अमक्यालो चलो
हांव व्हड जालों शाळेत गेलों
जात, धर्म, गांव, देश
भास, प्रांत, संस्कृताय
कितल्याश्याच वाट्यांनी
हांव इल्लों इल्लों वाटून गेलों
आज हांव म्हजे सगळे वाटे
एकठावन एकरूप जावंक सोदतां
हांव ... हांवच जावंक सोदतां

# ओथांबे

१

आरे आरे उदका थेंब्या
कितलो तूं पिटकुलो
सगळें विश्व पोटांत तुज्या
तरीय तूं मोतयाळो
तुका जो वळखलो
संवसार अर्क पिवून लेगीत
सांग कसो फुगतलो ...?

२

तुज्या मोन्या ओंठार फुल्लीं फुलां
देखून गंध न्हाण न्हातां
कुपांआड आशिल्ल्या चंद्रिमान
ल्हवूच तोंड दाखयलां
देखून चान्नें हांव पितां

३

खूब तेंपान घरा आयलां ....?
यो हांव दार धापचोना,
घर तुजेंच, तुजीच वाट पळयतालें
मात तुकां हें घडये आयजच कळ्ळें

४

एक फांतोड भर दनपारच्या सुर्याक
वेंगेंत घेंवचें सपन केळयता
लाल-लाल सूर्य बिंब
फांतोडीची सोबाय वाडयता.

५

हो रुख
मोनेळ पांघरून
दुकां न्हिवयता
घसघसतल्या मना कळशाक
काळजांत दडयता.

६

मुळांत नातें जुळ्ळेंच ना
तर तुटपाचें दुख्ख जाणवना
पूण विणलेलें नातें तुटलें जाल्यार
जावपी वेदनांक अंत आसना.

७

तुज्या उदेंतेचे वाटेर
हांव भर दनपारचो सुर्या
तुर्जी पिलां निकतींच तांतयां फोडटा
म्हज्या पाखाट्यांनी मळब घेतलां वेंगांत.

८

म्हजें बाविल्लें मुखामळ पळोवंक
आशेल्ले तुजे दोळे उगडेच उरतात
तेन्ना बाविल्ल्या अंतःकरणान हांव तुकां हांसतां.

९

गुलाबी पाकुळ्याचें
तें फूल म्हाका भुलयता
हुंगतलो म्हूण लागीं गेल्यार
वास लिपयता ....

१०

ओले चींब रूख
झडून गेल्ल्या पावसाचे
उगडास जागयता
मळबांत एक उबता कूप
[illegible]गार जावन तिशटता

११

म्हज्या बुडकुल्या पोंदा
आगटें रसरसता
तरीय म्हजें बुडकुल्यांतलें उदक
फुलां फुलयत हांसता.

१२

जंगल वाट
काजळ रात
चलतां हांव
काळोख न्हात
दोळ्यांत पेटोवन
काजूल वात

१३

सपनांच्या सर्गांत
दुबावाचे हुमले नाका
कल्पनेच्या राज्यांत
वास्तवाच्यो किट्टी नाका.

१४

जिवीत हें रंगहीन सपन
रंग भरीत तशें रंगतलें
श्वास रोखून पित्रायलें जाल्यार
श्वास्वत जावन उरतलें.

१५

'जो फुडारा खातीर झुजता
तो 'आयज' फुडारांतच जगता'

१६

गरज ना थंय गर्जेवप
चढण ना थंय खर्शेवप
सबळाक सोबना

१७

हो व्हाळ व्हांवता
दोंगराच्या पोटांतुल्यान
दर्याचो उमो घेता
न्हंयेच्या ओंठातुल्यान.

१८

मळबांत परजळटा चंद्रीम तरीय
उमासेचो भास जाता कित्याक
घर भरलां उजवाडान पूण
दोळ्यां सामकार काळखी कित्याक
सुखां धुयता पांय हांगा
मन कित्याक तळमळटा
सगळें कशें परमळटा तरीय
तारयो नाशिल्ल्या तारवावरी
जीण कित्याक अशी भरकट्टा

१९

जें काम ताकदीन जायनां, पयशांनी जायनां
तें काम उतरां करतात.
जें काम उतरांनी जायनां तें काम दोळे करतात.

२०

तुजें शेंत कणसाचें
सवण्यां भिरी झोंबपाचें
तुका राखणो जायच

२१

तंबाखूचे एके चिमटेन
मती म्हजी पकाटली
पोसो भर लाळ वतली
तिडकोन बोचकुटी धाडयली
म्हळें पिडा आतां सुटली
रिते वक्तार चुऱ्याक पळोवन
अचळय जीब मुतली.

२२

फाट घेवपी ते बैल
आम्ही न्हय
शिंगार माती सोबयल्ले आमी
आमच्याच तालार चलतले.

२३

वारो आयलो तशी
खांदयेक खांदी घस्टली
आनी पानां ...
खूस्स ऽऽ करून हांसलीं

२४

येवंचें आसल्यार लजेंव नाका
निमताक पेज लाथव नाकां
तुका बळयां कोणच भरवचोना.

२५

आस्पत आसली तेन्ना
उतर लेगीत मोलायलें
अबर्गत लागली तेन्ना
भीख लेगीत मागून मेळ्ळीना.

२६

घुडांत तिश्टतल्या कोंब्यांनो
तुमचो येवचो जाला दीस
काळखाचें राज्य सोंपत आयलें
उदेंतेक फुट्टा पळय फांतोंडेचें किर्ण
दोळ्यां न्हीद झाडून
करात कुलकुलाट
जावंदी सादार साद
येवंदी जगाक जाग

२७

एकलेंच भोंवता
एकलेंच हांसता एकलेंच चिंतता
हाचें खंयतरी जमलां शें दिसता.

२८

तुज्या दोळ्यांत सपन फुल्लां
म्हज्याय गो तें दोळ्यांत उतरलां
रंग कितले घेवन ताटांत
तुंवय ओगीच आनी हांवय ओगीच रावलां

२९

कितलो सोबीत हो मळो
माथ्यार मळबाचो मोगऱ्या दोळो
चोंयवटयां दोंगर रेवाडो
रात म्हजी हांगाच कडों
दोळ्यांच्यो मुंडळ्योय झडों

३०

दुसऱ्याक बरें दिसतलें अशें उलोवपी
संवसारांत खूब आसतले.
पूण दुसऱ्याक बऱ्याक पडटलें अशें उलोवपी
मेळप साप्प उणे.

३१

हड्ड्यांत इंगळे रसरसता
तेन्ना ओकीन दिसता भगभग,
दांत कचकचावन आवळयत
तर वाडटा कतृत्वाची शक्त.

३२

माथ्यार जळपी रख रख
सोसीत कुदळ चलय ती
शिंयाची काटेल झेलीत
जोतां आमुडलीं
पावसाची पावळी न्हायत
श्वासाच्या धगान कूड पेटयली
फात्या पारार चिखलांत देवून
दीस धारेक वचसर हूम गळयली
तेन्नाच फायच्या पेज्जेची
आस जगयली.

# जाणांत व्हय तुमी

हय, तुमी गांवकार, आमी रयत.
एका काळखी काळाची ही सय,
तुमी आमचें कितलेंय घट्टण करात
त्या घट्टाणांतल्यान आमी घडटले
आमच्या रानमाज हड्ड्यावेले बुतांव
अजून बिड्ड्यांत घट्ट आसात म्हणून
नातर तुमच्या सुळसुळीत
हड्डुकावेलीं आंगली
नाकशेच्या तोकानच फाळपाक
वेळ नाका गा आमकां ...!
आमी न सांगतांच बळयांनी
तुमीं गांवकारपण माथ्यार माल्लें
आमी मातयेंतच उबे उल्ले
तरीय तुमकां शिणले ना
आयज गांवांत तुमी आमकां
शिमो मेरो दाखयतात
जुन्या फास्क्यांचो आदार घेवन.
आमी आयजवेर तुमची वंय
मोन्यांनी धुकलतात
तुमी धनीपणाचो शेक गाजयत
आमकां चीपमट करतात
वेल्यान तेला हातान आमचें माथें
थापटीतात.....
मस्तकांतलो उजो पालवंक ....!

ह्या गांवांत फकत तुमीच घडले?
आमच्या दुर्बळ जाण्टेल्यांच्या
अज्ञानाचो लाब तुमी घेतलो
आनी गांवकारपणाचो तुरो मिरयलो
आमी तुमकां कांयच म्हणलेंना
आयज आमच्या हक्काची जाणीव
जाल्या उपरांतय आमी ओगीच रावचें...?
तुमच्या कट्टूलांतले विधिलिखीत
तुमच्या करणेंतल्यान जल्माक येता.
हें जाणांत व्हय तुमी ....

# काल आयज फाल्यां

आजचे खातीर काल उरूंकना
आयचे सूर ताल लय सगळें वेगळें
कालची फुगार बोंगी
आयज खिदळटाली
सोऱ्या बल्लांत बुडपी कुडी
सरणार जळटली मडी
काल सांवार हाडपी वारें
आयज परवतालें
व्हाऱ्यार भोंवपी सुणें
पोट फुलोवन सुस्तेतालें
काल दांत काडटाले ते
आयज दुकां पुसताले
फालां पदेताले तांचें
तोंड शिवलेलें
आयज घेंवक तिशटपी हात
काल दिवंक फुरफुरताले
डिस्को करपी
काश्टेन भोंवताले
काल कट्टेक ल्हेवपी
आयज पेप्सि पियेताले
मोटारीन भोंवपी
पांय झरयताले
आयज राज्य करपी

काल जगवणेक तिश्टताले
चुलींत जळपी रुखां खांदे
पांचवो चंवर तोलताले
काळ बदलता तशें काल,
आयज, फाल्यां बदलतलें
कालची खबर आयचो इतिहास फाल्यां
सांगतले.

# पेटलेलें जग

आयज जग पेटलां
रखरखा बगर वाट ना
वेळ धांवता
तसो मनीसय धांवत सुटला
फाटी वळून पळोवंक
फुरसत कोणाक ...?
जंय विसव घेवपाक लेगीत फावनां
कोण कोणाक रावनां
प्रत्येकाच्या नदरेंत एक एक सपन
फुडें पावपाचें.
देखून कोण कोणाक शिणनां
लाग ना भाग
नातें ना गोतें, ध्यास फकत
व्हडपणाचे,
देखून कोणाक कोणाचो बाद ना.
पेटलेल्या मनीसपणाचो दर्प
मात सोसूंक कठीण...
पोटांत जळपी
लासतल्याचेर हांसपी
वाडत आसात...
हाचेर उपाय जायच.

# सपन म्हजें

सपन म्हजें न्हय रंगयचेल्लें
न्हय मोगान न्हावचेलें
ना म्हाका गिरेस्तकायेंत लोळचेलें
सपन म्हजें
चुकिल्ल्याक दाखयन वाट
पडटल्याक दियन हात
अन्यायाक फोडून जाप
न्यायाची पेटयन वात
सपन म्हजें
रडटल्याचो पळयन हांसो
दुखेस्ताची फुलयन खोसी
गरीबांचो जायन धीर
लाचाराचो घडयन वीर
सपन म्हजें
मनशा मदल्यो मोडून वण्टी
एकचाराची पेटयन पण्टी
मस्ते मवाल्याचें करून दाळपण
मनशांतलें जागयन देवपण

# शेतकार

सूर्य माथ्यार आयला
कोण हो वोता रखरख
धगधगता सैम रथ
चंवर सगळो करपलो
वड पिंपळय तांबशेलो
न्हंयो तळी सुकाट पडल्या
सवर्णी सुकर्णी घोटेरांत बसल्यां
धर्तरी माये सुटला घाम
वारोय गरमेन जाला जाम
कुदळ मातयेक लावन शेतकार
रणांत उबो पेलीत पोटाचो भार
आटलेल्या पोयेंतलें सांगट घेवन
उडटा बकें माथ्यार ....
आनी सुकलेल्या शेतकाराक
सुटल्या लाळेची धार .....

# मर्णा

हांसत खेळत येवचें तुवें
येवंचे आदी कळोवचें तुवें
येवकाराचें गीत गावंक, मर्णा....
तुजें रूप कशें
आमकां पिश्यांक कळचें ना तें
कांय जाणांक तूं करता पिशें
तोडूंक संवसाराचें नातें, मर्णा....
कोण रडटा तुज्या भंयान
कोण लाचार तुज्या सामकार
कोण तुकां दिता खांद, मर्णा....
सूख दुखाचो अस्त तूं
सासणाची न्हीद तूं
जिविताची सुंदर अशी
भरजरी देग तूं, मर्णा...
तूं यो ताचेखातीर
सीमे भायर जावन सगळें
आंवडेंता तुका घेवंक वेंगेंत
सुटका ताची करचे खातीर, मर्णा....
तूं येवं नाकां,
सुखांत वीख कालवनाका
हांसत्या - खेळट्या घराक त्या
दिश्ट तूं लावं नाका, पूण तुजें कितें

केन्ना वेळेर केन्ना अवेळेर
येवन अकस्मात करता आन्नेर
खंय हुयेली कानेर तर खंय
खोसयेचो फुलेर.

# मोड जावंक जाय

सगळी शक्त एकवटावन
तांडव आमकां करूंक जाय
तांबडे मातयेचो तिबो लावन
स्वाभिमान जागोवंक जाय
वाऱ्या वरी खोखवंक जाय
खोली पोत्रो उबोवंक जाय
इतिहासाचीं लिपिल्लीं सतां
आयज आमकां दाखवंक जाय
पावसा वरी सोसेवंक जाय
धर्तर न्हाण घालूंक जाय
नवी जीण नवी सृश्ट
आयज आमकां घडूंक जाय
दर्यावरी गर्जेवंक जाय
ल्हारां दिग्ग उठोंक जाय
आमचे जीणे देगो आयज
ह्याच ल्हारांनी धुवंक जाय
आयज आमी मोड जावंक जाय.

# बाटली प्रताप

बाटली आनी हांव जशी न्हंय आनी व्हाळ
बाटली आसतना सांगाताक प्रताप कितें विचारता
रस्त्यार पावल दवरल्यार रस्तो जाग्यार रावना
घरा वचपाक गेल्यार दार लार्गी येना
जग सगळें घुंवळटा
हांव मात निट्ट चलतां .....
म्हजी जीब सुट्टा
लोकांची जीब धरता
हेरां भशेन काटूक न्हय
बर्शीत गेल्यार पांचाक धा दितां
पावलां उकलना तेन्ना बॉल्साक
लोकां नांवान उदक सोडटां
पात्रांव लेगीत म्हाकां मानता
कित्याक जाणां
पयली कडक घेतल्यार, मागीर
पचक लेगीत आदल्याच मोलान पितां
आमी सगळ्यांक एकाच जोकान मापतात
हो मंत्री तो मवाली
हो गिरेस्त तो भिकारी
असले भेद आमकां लागना
देखून आमकां कोणच लागी रावना.

# आगुट्ट्याचें राज्य!

कोण काळ जालो गा
हांगा एक राज्य चलता
गणा नांवान नाल्ल फोडून
हांगा घडलां एक राजांगण
गण शेणले दारा भायर
हांगचे राजा आगुट्टे
चुळचुळीत पानेतात जिबो
कोंड जालां खारसाणीचें
पूण हे नाक नाशिल्ले
हांच्या राज्यांतले गण तरी कसले
तांचेय कुले चाखळल्यात
दर एक हात कुल्या फाटल्यान
आगुट्ट्याक तांबयो दिवपी हात
हांगा खंयच दिसना
तांकां रान मोकळें
ते वचत थंय घाण करीत सुटल्या
तांकां हडकुपी जीबच कातरता
मुळा सावन....
गणय आतां शाणे जाल्यात
तांचेच पंगतीक बसूंक शिकल्यात
हें एक भेस जालें
राजांगणा सयत गणराज्यय
आगुट्ट्यांचें जालें
आतां कोणाचो हुस्को ना

# आतां फुडें

मायेमोगाचीं नाटकां आतां
चड तेंप काळखांत उरचीं नांत
घरा आंगणांतले खेळ
कोंयडेबालां, नोगोऱ्यो
हाचे फुडें दिसचेनांत
दोळ्यांक दोळे दियनासतना
जिवाक जीव दिवपी
हाचे फुडें भेटचेनात
कोणा गांधारीच्या दोळ्यांत
सूर्य तेज खेळचेंना
कोणा धर्माच्या उतराक
कोण आतां पातयेवचोना
आतां फुडें....
सत मिठाकय मेळचेंना
तत्व तर व्हाळोन वतलें
मनीसपण नाच्च जातलें
उरतलें फकत...
पावलागणीक दुबावाचें नाट
आपलें घर सजोवंक
दुसऱ्या घरांक चूड लावपी हात
भाव भावना पुजपाचें
कूळ, शीळ मानपाचें
सद्भोळेपण गोबोर जातलें
आनी कांय अर्थच उरचोना

असल्याच कांय उतरांक
देखून तांची जातर्ली पुराणां
आनी मागीर.....

# सत्याची चूड

सत्य हीं उतरां आज खूब
पोरनी दिसतात
कारण तीं फकत पुराणांनी मेळटात
आजचें जग भरकटत चल्लां
पातकां काळखांत
आनी सोद सोदतात उजवाड
जना जनाची वाडल्या लाचारी
सुत्रधारीच्या पांयतळा मस्तून
ते जाल्यात भिकारी
पालतू सुण्या भशेन गत तांची
गुळये शिवाय घडटा शिकार तांची
जांचे माथ्यार, खांदार थेवन पांय
हे सुत्रधारी सायब जाल्यात व्हड
त्या जनाक तांच्या आकांत शक्तिची
जाण ना!
जे दीस स्वार्थाच्यो शिमो मेरो हुपून
तुमी पावल मारतले
जे दीस आत्मसन्माना खातीर
स्वाभिमानान पेट्टले
ते दीस हे तरणाट्यांनो....
ते दीस उठ्ठले आत्म हुंकाराचें वारें
टुटून फुटून शिवरतली खामसुत्रींची खेळणीं
तेन्नाच सोंपतलो लाचारीचो काळोख
आनी मूक्त वातावरणांत जळटली
क्रान्तीची चूड सत्याची.

# अंवसर

आयज अंवसर आयलोना
जाल्यार केन्नाच तो येवचोना
येतलें फकत समीदांचें होमकण
थंय केदी गोबर रास रचत
तेंवय सांगूंक जमचेंना
लावां-भुतां नाचता भोंवतणी
संद मेळटा बसता मानगुटी
साबळेरे हे भाव म्हजे
भूत काडूंक भड्डयतात नेणार कुडींक
शिरेन शीर आयज अंदली रे
दोळ्यांत देवंचें जालें रगता उदक
आयज आयलोना जाल्यार
तो कसलो अंवसर....
ह्या थळीचे आंबे, पणस, पिपळां पेडां
सगळीं जालीं देवचार झाडां
शेतां बांदार, दर्या देंगार
देवचार जाले धनी आयज
गांवकार लागले पडीक
आयज खुबळ्ळोना गांव पुरीस
तर बुडलो अंवसर ....
देवूळ आमचें देव आमचे
हे रे घाडी खुदता खंयचे
हक्काचे आमचे शिरेर रोवपी
हे भावडी खंयचे....

खाडूं नाशिल्ले पाडेली हाडपी
हांचे तोल्लुकदार खंयचे
आयज हाल्लोना चौखांब
तर हो न्हयच अंवसर...
न्हयच अंवसर....

## म्हजी वळख

म्हाका वळख नाशिल्ली जाल्यार
हांव ह्या संवसारांत नांवरूपाक येवपाची न्हय
पूण आयज म्हजोच कुसवो म्हाका दुश्मान जाला
दोश म्हजेय आसूं येत....
तुमी तो पयसावलोना हो कोणाचो दोश?
आरे हक्कच तो तुमचो,
म्हज्या मायेच्या पदराक आशिल्ली
खतां, बोते, निरखून ताका नवी
झालरय दिवप तुमीच
पूण तुमी फकत बोटां दाखवपातच
व्हडविकाय मानली
ना म्हळ्यार जगार नांव आशिल्ल्याची
खरी वळख घरांतच आसता न्हय?
मागीर गांवांवेल्यांनी बोटां दाखयलीं
म्हूण विचार - पाचार न करतां
तुमीय तेंच करप
म्हजी अब्रू ती फकत म्हजीच व्हय रे
संवसारांत तशें शंभर नंबरी भांगर
खंयच मेळना रे पापयानो
आनी भांगराची काव काडली म्हूण
रूपें असली भांगर जायना
हांव दुसऱ्याचो दोश दाखयना
कोणाचेंय बरें तें घेवपाक म्हाका
नसाय ना,

बदलत्या काळा प्रमाण तुमचे बराबर
पावल जुळोवंक म्हाकाय कळटा
पूण म्हज्या आंगाक अर्दवट बसपी
लोकाचीं आंगलीं बळजबऱ्या चढयतना
तुमकां मात्तय कशें दुखलेंना
स्वताचे लाचारपणाची
देख मिरवपांत तुमकां मात्तय
लज कशी दिसना...
आयज म्हज्या अपुरबायांक तुमी
चुली कडलीं भांडशिरीं केलीं
आनी त्या कोणा फिरंगिणीक घेवन
जगाचो संवसार करपाची तुमी
सपनां पळयतात.
जगाचो संवसार करूंक गेल्लो
आपलें घर विसरता
हें खबर आसुनय...!

# एक अम्मा नी एक मेम

एक अम्मा ...
रस्त्याच्या कामाक रगडपी
वोतांत भाजत घाम न्हावपी
तकलेर कायल घेवन
झाडाचे सावळेंत
जुनेराच्या झोळयेंत तिचें कुकुलें फुलां वेंचता
तिची भिरी-भिरी नदर झोळयेचेर
मंक सूंक उडग्या ऽऽ पडतच कानार
भिरकावन कायल ती झेपय घेता
कुकुल्यांकडेन धूल मातयेच्या ओल्या
मोगान रिजयता सानुल्याक ...
सुस्कार सोडीत ताकता ... मिटपी दोळ्यां
कवडुल्यो
ह्या झोपाळ्यांत तिचें जग विसवलां
आनी ती एक मेम आपल्या काळजा कुडक्याक
वावराडेच्या स्वाधीन करून
स्कुटरीक किक मारता ...
काळीज पिंजपी ताचें आक्रंदन
ताचे हात झेपेता माये खातीर
पूण स्कुटरी बराबर मेमचें यंत्र जाता स्ट्राट
दोळ्यां सामकार बॉस
फायली आनी टेबल....
घर खर्च, सुखाचें स्वप्न..
कार्बनांचो धुंवर फाटल्यान सोडून

सुखा फाटल्यान धांवता स्कुटर...
रेस करीत, वेळा कडेन खेळ करीत
पयस.. पयस....
कुकुल्याक घुस्मटत सोडून
हे फायलबंद मेमचें जग.

# बाटली

बाटली...
मनीस जिणे हारशी
आयज फाल्यां कशीय बदलुंयेत
तिची फास्की.
बाटली...
आपूण जावन दसलीना
पूण धरल्यार सुटलीना
जांकां लागत ही बाटली
तांची तिजोऱ्यांची कुलपां तुटलीं
इब्रत बाजारांत फुकट्याक विकली
तांचे जिणेतली मोगा झरय आटली
पूण बाटली...
भरून भरून मोग ओतयत रावली
मोगाची गुंगी चढयत रावली
दु:खाची रास जाळीत रावली
तळ थोकरो जायसर...
मारचो घोट जावचें मूक्त
दु:खांतल्यान मुक्ती
उबगणिंतल्यान मुक्ती
कडू गोड यादीचो सूरभूस अस्त
मुक्ती कुपी बाटली....
बाटली
केन्नाच नासली वायट
पूण आमी आमचीं लिपोवंक पापां

बाटले नांवान लायता मापां
अती करून आपलीच करता माती
मात बाटले नांवान वाटता खिरापती
पूण बाटली ती बाटली
आप सुवार्थी मनशाच्या कपलार
सदांच फुटली.



श्रीकांत पळसरकार

श्रीकांत पालसरकाराल्या 'अवसर' ह्या पयल्याच कविता संग्रहांतल्यो ह्यो कविता वाचून म्हाका कोंकणी कवितेचो हो इतिहास आठवलो. 'अवसर' हें कविता संग्रहाचें नांव ताच्या अंतरंगाची वळख करून दिता.

तेच भशेन गांवकार आनी रयत हांचे मदलें नातें पालसरकाराची कविता दाखयता. गांवकार आनी रयत हांचे मदलें नातें म्हळ्यार ताका 'एका काळखी काळाची सय' कशी दिसता, रयताचें घट्टण करपाचो काळ आतां फाटीं पडला अशें तो आत्मविश्वासान म्हणटा. अज्ञानाचो फायदो घेवन गांवकारानी भूंयपुतांक नाडले. तेन्ना हे मुखार रयत अशे नाडून घेवपाचे नात म्हणपाची शिटकावणी कवी दिता. शिक्षणाचो प्रसार आनी ताचो समाजाच्या सगळ्या पांवड्यावेल्या लोकांक मेळिल्लो लाव हाका लागून जाल्ले जाणिवेंतल्यान वर्सासंखिनी अस्तित्वांत आशिल्ले समाजव्यवस्थेंत बदल घडपाक लागला. ताका गती आयल्या. आनी तांतूतल्यान एक नवी समाज व्यवस्था आकाराक येता. कोंकणी कविता तिका गवाय आसा म्हणपाचें पालसरकाराची कविता आमकां सांगता.

माधव बोरकार

ISBN NO. 81-902817-7-1